# धाडशी आयरीन



मूळ बरोवपी: विलियम स्टिग,

कोंकणी अणकार: प्रणिता प्रताप रेडकर

एक कलाकार, बाल साहित्यीक म्हणून विलियम स्टीग हांचो हात धरपी संवसारांत कोण ना. ताचीं भुरग्यां खातीरचीं क्लासिक्स म्हणल्यार ‘अमोस ऍण्ड बॉरीस’, ‘दी अमॅजींग बोन’, ‘डॉक्टर दे सोटो’ आनी साबार दर्जेदार पुस्तकां आसात. ह्या काणयांतल्यान तो जगाचें आगळें-वेगळें दर्शन घडयता - जंय उमेदच उमेद आनी रोमांचकारी साहसां आसतात, जंय भयानक कुकर्मी आसतात आनी सैमांतल्यो बळिश्ट शक्ती राज्य करतात - तरीय तांच्या काणयांतलीं पात्रां सोबीतकाय आनी चमत्कारान जिवीत खाशेलें आनी अर्थपूर्ण करतात
-डायने रोबेक, निवर्सडे

हे कथेंतलें धाडसी आयरीन, म्हणल्यार आयरीन बॉबीन. दर्जी बॉबीनबायची धूव. अचकीत बॉबीनबायची भलायकी बरी ना जाता आनी राणयेचे सांजेचे कार्यावळीक तिचे खातीर शिंविल्लो झगो बॉबीनबाय तिका पावोवंक शकची ना अशी परिस्थिती तयार जाता. अश्या वेळार, भायर क्रूर हिमवादळ धुमसत आसतना लेगीत धीट आयरीन तो झगो राजम्हालांत वेळार व्हरून पावोवपाक तयार जाता - खरें म्हणल्यार एक सान चलये खातीर ही कामगिरी कठीणच.

पूण “जंय इत्सा थंय मार्ग” ही म्हण आयरीनान आयिल्ल्या अरिश्टांक साहसान तोंड दिवन सत करून दाखयली. ताका ताचो सगळ्यांत व्हडलो प्रतिव्दंदी, कपटी दुश्ट वाऱ्याक आव्हान दिवचें पडटा आनी तशेंच आपलें कार्य पुराय करचें पयलीं, आकांताळ्या आडमेळ्यांक तोंड दिवचें पडटा. अर्थात, ही जैतीवंत वीरबाला दर भुरग्याक जिवितांत मुखार वचपाक प्रोत्साहीत करतली.

# धाडशी आयरीन

मूळ बरोवपी: विलियम स्टिग
कोंकणी अणकार: प्रणिता प्रताप रेडकर



बॉबीनबाय शिवणकाम करून थकिल्ली आनी तिची तकली दुखताली. तरीय तिणें राणीच्या झग्याची निमाणी शिवण जाता नजो करून पुराय केली.

"हो ह्या संवसारांतलो सगळ्यांत सुंदर ड्रॅस!", तिचे धुवेन, आयरीनान म्हळें. "राणयेक हो भोव आवडटलो."



"हय बरो दिसता खरो " ताचे आवयन मान्य केलें. "पूण शाण्या हो आयज सांज मेरेन राजम्हालांत पावोवपाक जाय. मात म्हज्यान तितली शक्त ना. म्हज्या जिवाक बरें दिसना"

“बाबडी मम्मा”, आयरीनान म्हणलें. “हांव तो ड्रॅस थंय पावयतां!”
“ना गो म्हज्या पिपिरमिटा, हांव तुका थंय धाडूंक शकनां,” बॉबीनबायन म्हळें. “केदें व्हडलें पार्सल आनी राजम्हालांची केदी लांब वाट! त्या भायर आतां भायर बर्फ लेगीत पडपाक लागला.”



“मा म्हाका बर्फ खूब आवडटा,” आयरीनान आग्रो केलो. ताणें आपले आवयक फुसलायत खाटीर न्हिदयलें, आंगार दोन गोदड्यो घाल्यो, आनी एक कांबळ तिच्या पांयार घातली. उपरांत म्होंव आनी लिंबू घाल्ली च्या ताणें तिका करून दिली आनी धगी खातीर भट्टेत लांकडां घालीं.

आयरीनान भोव जतनायेन, तो सोबीत झगो डमी बावले वयलो काडलो आनी खूब टिश्शू पेपर घालून बॉक्सांत घडी करून दवरलो. “शाणुल्या, आंगार उबे खातीर कपडे घाल,” आवयन अशक्त आवाजान म्हणलें, “आनी जाकीटाची बटणा लावपाक विसर नाका. भायर बरीच थंडाय पडल्या आनी वादळी वारेंय आसा.”



आयरीनान आपल्या कापसाच्या लायनिंगाचे बूट घातले, तांबडी तोपी आनी मफलर घालून आंगार जाडसो कोट आनी हातांक हात-मोजे चडयले. उपरांत आवयच्या गरम कपलाचो स फावटीं उमो घेतलो आनी तिचे आंगभर पांगरूण आसा काय ना ताची खात्री करून घेतली आनी झग्याचें बॉक्स घेवन, दार घट्ट



भायर कुडकुड्याचें शीं पडिल्लें. बर्फा गाऱ्यो वाऱ्याचे वावटळीन हांगा थंय ज़िडपताल्यो आनी आयरीनाच्या तोंडार ताचो मारो जातालो. तरीय आयरीन तशेंच बेनेट शेतकाराच्या चरवा मळा वटेंतल्या दोंगराची चडटी चडपाक लागलें.



थंय पावता म्हणसर बर्फ पांयांच्या खिळी मेरेन पाविल्लो आनी वारें आकांतान व्हांवतालें आनी आयरीनाक फुडें फुडें धुकलतालें, तें मदींच आडखळटालें. हातांत आशिल्ल्या बॉक्साचो ताका पयलींच त्रास जातालो आनी तातूंत मदींच हें वारें! आयरीनाक ताची तिडक मारली. “आरे सवकां,” वाऱ्याच्या झोताचेर लोडेत ताणें वाऱ्याक शिटकायलें.



चरवामळाचे अर्दे वाटेर पावता म्हणसर मोटे मोटे गारो झडपाक लागल्यो. आतां वादळाक बरोच नेट आयिल्लो आनी वारें ताका हांगा थंय उडक्यो मारीत, लंगडी घालीत, वांकड्या तिकड्या जमनीर झेलपट्टालें. कांय वेळान बर्फ विरगळून ताच्या बुटांनी झिरपलो आनी ताचे पांय थंड आनी सुन्न पडले. ताणें तोंडाचो बोंचो केलो आनी नेटान मुखार सरलें. हें काम तर अती म्हत्वाचें आशिल्लें.



एप्पल मार्गार पावता पावतां वादळान आपले शक्तीचें प्रदर्शन करपाचें थारायलें. ताणें झाडां पेडांच्यो खांदयो तोडल्यो आनी पयस जळींमळीं शेवटायल्यो. जोमान सगळो बर्फ एकठांयलो आनी परत सगळीं कडेन शिंपडायलो. आयरीना मुखार तांडव करीत ताका मुखार वचपाक आडावंक लागलें. म्हणटकीच आयरीन घुंवले आनी फाटल्या पावलांनी चलपाक लागलें.

“वच घरा!” वारें आड्डलें. “आयरीन... घरा वच्च...”

“हांव अशें कांयच करचें ना,” आयरीनान ताचेर धेंगसो घालो. “दुश्ट वाऱ्या, हांव असले कांयच करचें ना!”

“घर..र..रा.. वच!” वारें वेगान पदेलें. “वच परतें घरा...” वारें आकांताचें आड्डलें, “ना जाल्यार...” आयरीन ओगीच रावलें, वादळान दिल्ली शिटकावणी गंभीरपणान घेवंक जाय काय असो विचार खीणभर ताच्या मनांत आयलो. ना! राणयेक झगो पावोवप सामकें गरजेचें आसलें.



आयरीना कडल्यान तें बॉक्स काडून घेवपाक वाऱ्यान खूब कसरत केली-झोपय मारली, वांकडो तिकडो जालें, हालयलें, झोमून घेवपाचो यत्न केलो मात आयरीनान बॉक्सावेली पकड सोडली ना. “हें म्हजे आवयन भोव कश्टान तयार केलां”, तें आड्डलें. मागीर--आह--सायबा भोगोस! एका फटक्यान हातमोजे घाल्ल्या आयरीनाच्या हातांतल्यान वाऱ्यान तें बॉक्स झोमून घेतलें आनी तें बॉक्स बर्फांतल्यान गडगडत वचपाक लागलें आनी आयरीन ताच्या फाटल्यान धांवपाक लागलें.





आयरीनान उडकी मारून तें बॉक्स धरलें खरें पूण रागीट वाऱ्यान फर्रर करून बॉक्स उगडलें. झगो बॉक्सांतल्यान भायर सरलो आनी बर्फ मिश्रीत पावडरी हवेंतल्यान नाचत नाचत मुखार वचूंक लागलो, झग्या फाटल्यान टिश्यू पेपर सेविकां कश्यो! आयरीन रिकामी बॉक्स घट्ट धरून रावलें आनी नदरे मुखारल्यान झगो नाच्च जातना पळयत उरलें.



इतली वायट गजाल घडूंक तरी कशी दिवप? आयरीनाच्या दोळ्यांतलीं दुकां ताच्या मलप्यांनी झेला वरी घट जाली. ताचे अपूरबायेचे आवयची मेहनत, इतले दीस ते जोक घेवप, कातरप, टांके घालप, शिंवप... ह्या दिसा खातीर? आनी बाबडी राणी! आयरीनान निर्णय घेतलो, आतां तें रिकामे बॉक्स घेवन फुडें वतलें आनी सगळी घडणूक राणयेक स्वता सांगतलें.

बर्फांतल्यान वाट काडत तें फुडें वचपाक लागलें. ही म्हजी चूक न्हय तर त्या दुश्ट वाऱ्याची हें मम्मी समजून घेतली काय? राणी रागार जातली काय? असले विचार आयरीनाच्या मनांत येवंक लागले. हे वटेन, वारें, पिसावल्ल्या रानवटी जनावरां सारकें हुयेली घालतालें.



तेन्नाच आयरीनाचो पांय बुरकांत गेलो आनी मुड्डलो. आयरीनान वादळाक दोश दिलो. “ओग्गी राव!” तें आड्डलें “तुवें आदींच म्हजें बरेंच लुकसाण केलां. तुवें म्हजें सगळें इबाडलां, सगळें!” मात वाऱ्यान ताचे कानामनार घेनासतना फकत ताचीं उतरां गिळ्ळीं.

ते थंयच त्या बर्फांत आपल्या पांयांची दूख घेवन फतकल मारून बसलें. ताका भंय आसलो ते मुखार वचपाक शकचे ना. तरीय ताणें कशें तरी स्वताक आपल्या पांयांचेर उबें केलें आनी चलपाक लागलें. ताका दुखतालें. आतां ताचें घर, जंय ताची आवय आनी तें उबदार रावंक शकतालें तें पयस आशिल्लें. घडये, राणयेचो म्हाल थंय सावन बरोच लागीं आसतलो. मात म्हाल खंय आसलो आनी खंयचे दिशेक हें कळपाक कांयच मार्ग नासलो. सगळ्याक बर्फ आशिल्लो.





दुखरो पांय बर्फांतल्यान वोडीत व्हरतना जमनीचेर चरे पडटाले. शिंयाचो ल्हान दीस आतां सोंपत आयिल्लो. हांव आजुनूय सारके वाटेर चलतां कांय ना, असो विचार ताचे तकलेंत आयलो. आशीकुशीक कोणाचेंय मार्गदर्शन घेवपाक कोण नासलो. ह्या बर्फांत भरलेल्या जगांत कोणूय आसत जाल्यार तो खूब पयस, पयस आपल्या घरांत सुरक्षीत आसतलो - जनावरां लेगीत आपल्या बिळांत आसतलीं. तरीय आयरीन रखडत फुडें वचत रावलें.

रोखडेंच काळखाचें साम्राज्य सुरू जालें. काळखांत लेगीत बर्फ पडत आसा - हें ताका जाणवतालें. तें थंडीन कुडकुडत, एकटें, मदल्या मदीं खंय तरी शिरकल्लें. आयरीन शेणिल्लें.



ताका चलत रावंक जाय आसलें. आपल्याक वाटेर एक घर मेळूं, मागीर तें कसलेंय आसूं पूण आपल्याक भितर घेवूं अशी तें मनांत आस्त बाळगितालें. ताका कोणाच्या तरी वेगेंची, मायेची गरज आसली. बर्फ आतां धोंपरां वयर पाविल्लो. तरीय तें रिकामी  बॉक्स हातांत घेवन झेलांतल्यान वाट काडीत चलतालें.

तें चित्तालें एक ल्हान जीव कितलो वेळ अडचणीक तोंड दिवंक शकता काय, इतल्यान ताका काळोख कमी जाता असो दिसलो. सकयले वटेनसून खंयच्यान तरी मोव उजवाड झळकतालो.



तें भोव कश्टान त्या उजवाडा वटेन चलत गेलें. आनी थंय ताका उजवाडान झगझगपी भवन नदरेक पडलें. तो  महलूच आसपाक जाय!

आंगांत आसा तितलीय शक्त लावन आयरीनान फुडें सरपाचो यत्न केलो आनी-सस्स्....धप्प.... ! तें सकयल घरगळत गेलें आनी बर्फांत रोमलें. तें एक सुळक्या वेल्यान निसरलेलें. आतां फकत ताच्या हातांतलें बॉक्स आनी हॅट इतलेंच बर्फांतल्यान वयर दिसतालें.



मदती खातीर ताणें जर कोणाक उलो मारिल्लो तरीय ताच्या उल्याक पावपी थंय कोण नाशिल्लो. ताचें आंग शिंयान कडकडपाक लागलें आनी दांतकड्यो घट जाल्यो. हांगरूच थंडायेन जीव सोडलो जाल्यार? सगळेच प्रस्न सुट्टले. ताच्या मनान विचार आयलो. आनी कित्याक न्हय? हरशींय तें बर्फान पुरललेंच.

खोर्नांतल्या ताज्या उबदार पावा भशेन वास येवपी ताची अपुरबायेची आवय ताका केन्नाच मेळची ना? मनांत विचार आयलो आनी ताच्या रागाचो फार जालो. त्याच नेटार ताणें आपल्या शरिराची हालचाल करीत स्वताक सोडोवन घेतलो, दिमयांनी सरकत वयर सरलें आनी ताणें सरभोंवतणी नदर मारली.



त्या झगमगत्या म्हाला कडेन कशें वचप? जितल्या वेगान ताच्या मनांत

हो प्रस्न आयलो तितल्याच बेगीन ताका जाप सुचली.

ताणें बॉक्स सकयल दवरलें आनी ताचेर वयर बसलें. मात तें बॉक्स बर्फांत रोमलें आनी शिरकलें. ताणें परत एकदां यत्न केलो, पूण ह्या फावटीं चडून बसचें परस ताणें ताचेर उडकी मारली. बॉक्स सुळ्ळकन मुखार सरलें... बर्फार चलपी स्लेजा भशेन.



वाऱ्यान आयरीना वांगडा सर्त लावपाचो यत्न केलो मात तें शेणलें. कांय खिणांत तें परत मनशां मदीं पावतलें, भितर जंय ऊब आसतली. बॉक्सा गाड़ीची गती कमी जाली आनी गचको घेवन तें वाटेवेल्या तिजूल्या म्हऱ्यांत थांबलें.

आतां वेळ आयिल्लो राणयेक वायट खबर सांगपाची. रिकामे बॉक्स घट्ट हड्ड्या कडेन धरून तें जड पावलांनी म्हाला वटेन चलपाक लागलें.

मात तेन्नाच ताचे पांय चलपाचें थांबले आनी तोंड आं करून उकतेंच उरलें. तें पळयतूच उरलें. जें ताणें पळयलें तें अशक्य आसलें, पूण तो थंय आसलो, मातसो फुडें, उजवे वटेन, झाडाक वेंग मारून - तो सुंदर सोबीत झगो. वाऱ्याक लागून तो थंयच शिरकून उरिल्लो.

“मम्मा!” आयरीनान हुयेली मारल्यो. “मम्मा, म्हाका तो मेळ्ळो!”





धोंगशेवपी वाऱ्याक भीक घालिनासतना ताणें तो झगो झाडावेलो काडून बॉक्सांत घालो आनी खीणभरांत तें म्हालाच्या दारार पावलें. दारावेल्या पितळीच्या रिंगान ताणें दारार खटखटायलें. दार उगडलें आनी तें नेटान भितर घुसलें.



उमेदीच्या वातावरणांत घरगड्यांनी आनी भोव खोशी जाल्ले राणयेन ताचें म्हालांत स्वागत केलें. ह्या येद्या व्हडल्या वादळी वाऱ्यांत आयरीन एकटेंच आयलें हाचेर कोणाचोच विस्वास बसना जालो. ताणें तांकां सगळीं काणी सांगली, सामके बारीकसाणेन ताणें ती सांगली.

उपरांत ताणें आपणाक घरा आपल्या दुयेंत आवय सरीं पावोवपाची विनवणी केली. पूण तांच्यांनी सांगलें - तें सद्या अशक्य आसा,  दोंगुल्ले वयलो रस्तो बर्फाक लागून बंद जाला आनी सकाळ जातकूच साफ करूं येतालो.

“चड हुस्को करू नाका भुरग्या,” राणयेन आयरीनाक सांगलें. “तुजी मा आतां खात्रीन न्हिदल्या आसतली. फाल्यां फातोडेर तुका आमी घरा पावयतात.”

हॉलांतल्या भट्टी सामकार बसून आयरीन बरें जेवण जेवलें, उज्याचे धगीन ताचे कपडे सुकले. मजगतीं, राणयेन घोड्यागाडयेर येवपी आपले पावणे म्हालांत पावचें पयलीं फेर्र मारिल्लो झगो आंगार चडोवन ती तयार जाली.





भुल्लुसून वचपा सारकी आसली ती पार्टी! राणी त्या सुंदर झग्यान आकाशांतलें नखेत्र कशी चकचकताली. आयरीन लेगीत आपल्या साद्या कपड्यांनी उठून दिसतालें.



ताका एका फाटल्यान एक रुबाबदार अमीर उमरावानी नाचपाक ओडलें, पूण ताचे पांय दुखचें न्हय म्हुणून तांणी ताका वयले वयर नाचयलें. ताची आवय हें सगळे आयकून खुशालभरीत जातली आसली.

सकाळ जावचें बरेंच पयलीं बर्फ पडपाचो बंद जाल्लो. बॉबीनबाय रातभर सुस्त न्हिदून उठली. तिका आतां जिवाक बरें दिसतालें. ती बेगीन बेगीन उठली आनी तिणें थंड जाल्ली चूल पेटयली. मागीर ती आयरीनाक पळोवंक ताचे कुडींत गेली.



पूण खाटीर आयरीन नासलेंच! ती धांवत जनेला सरीं गेली आनी तिणें लांबचे लांब बर्फांन भरिल्ल्या वाठाराचेर नदर मारली. तिका थंय कोणूच दिसलो ना. झाडांच्या खांदयेवेल्यान बर्फा पिठो सकयल पडटालो.

“म्हजें बाय खंय गेलें?” बॉबीनबाय रडपाक लागली. आयरीनाक सोदपाक वचपाक तिणें आपलो कोट आंगार चडयलो. तिणें दार उगडिना फुडें, तिच्या तोंडार वाऱ्याची एक झडप आयली. त्या झडपेंतल्यान तिका एक घोड्यागाडी आपले वाटेन येतना दिश्टी पडली. ते गाडयेंत दोन आंडदांड गाडीवान बशिल्ले. तांच्या मदीं हांसत्या मुखामळान आयरीन सुस्त न्हिदिल्लें.

तुमकां फुडें आयकपाक जाय?



त्या घोड्यागाडयेंत एक दाडीवालो दोतोर फाटल्यान बशिल्लो. राणयेन आयरीनाच्या आवयक एक धव्या साकरे लेपाची आल्या केक, संत्रां, अनसां, आनी मसाल्या सुवादाची कॅण्डी धाडिल्ल्यो. त्याच वांगडा राणयेन एक पत्र दिल्लें, तातूंत तिणें बरयल्ले, “धाडिल्लो झगो सासणाचो काळजांत उरतलो.”

आनी आयरीन कितलें मोगाळ आनी धाडशी म्हूण कवतूक केल्लें.



अर्थात बॉबीनबायक तें खबर आशिल्लेंच. राणये परस चड...

